# बसवेश्वर वचनामृत



कोंकणी रूपांतर

**एम. माधव पै**



# बसवेश्वर वचनामृत

कोंकणी रूपान्तर

**एम. माधव पै**

प्रकाशक




**केरळ कोंकणी अकादमी, कोची**

(Konkani)
BASAVESWARA VACHANAMRITA
Poems

*Original in Kannada* :
Basaveswara

*Konkani version :*
M. Madhava Pai

*First edition* :
May 1991


*Published by* :
KERALA KONKANI ACADEMY
Kochi – 682 035

*Printed at :*
Jyothi Printers
Tripunithura – 682 301

Price : Rs. 10

# बसवेश्वर : एक वळख

कल्याण म्हळेल्या पण्टींतु भक्तिरसाचें तेल घालनु आचाराच्या वात्तीक बसवण्णा म्हळेली ज्योति जळयिल्या त्या दीस थाकून आज मेरेन कर्नाटकांत सगळ्यान बसवेश्वरालें नांव उरून आयलां. कर्नाटकांत जल्म घेवनु कन्नडिग जावनूच उरून वाडून कन्नडाच्या मूलाकच अभूतपूर्व आनी अनेकरूपी क्रांति केलेल्या ताजे विषय कन्नड लोकांक अपार आदर आनी अभिमान आसुचें सहजच. बसवेश्वरालो जल्मगांव बागेवाडि. कल्याण म्हळेल्या गांव ताजो अनुभवमंटप जालो. सगल्या कर्नाटकांतुय शेजारचे प्रदेशांतुय पसरून आशिल्या बसव म्हळेल्या वाल्लेक अनेक फुलां जालीं तीं ताजी वचनां. आचन्द्रार्क तीं वचनां उरतलीं आनी वाचीतल्याले आयकतल्याले मन द्रवित करनु तांची काळकी धुतालीं. मानवाक महोन्नति तरपेन तीं आपोन व्हरतात आनी विश्वबन्धुत्वाक भद्र एक तळपाय तयार करतात.

कन्नड साहित्याचा प्रपंचांत भोंवताना एक तपोवनांत प्रवेश केल्यावरि दिसता. थंय सिद्ध, साधक, ऋषी जनांले संदर्शन करनु तांच्या उदात्त जीवन आनी धर्माचें बोधनेन आमच्या अंतरंग परिशुद्ध जाल्यावरि दिसता. आत्माचें बंधनांसून आमी मुक्त जाल्यावरि एक दिव्यानुभव जाता. हांगा शहराचो गोंदळ ना; रायाल्या आस्थानाचें वैभव दृश्य नात. तपोवनाची सहज शांति, परस्पर प्रेम, समताभाव, स्वातन्त्र्य–हीं मूर्तिमत्त जावन दिसतात. आरण्यकांत उपनिषदांचे दर्शन घेतल्यावरि हांगा वचन धर्माचें दर्शन मेळता.

सत्याचे चिंतन साहित्य जावनु सत्यान्वेषण सिद्धांत जावनु सत्यसाक्षात्कारूच दर्शन जावनु आमकां संतोष दितात. हें सगळे वचनांचे रूपार आमचे मुखार प्रत्यक्ष रावतात. हें वचनसाहित्यच तपोवनांतले उपनिषत्साहित्य आसा. वचनकारूच उपनिषत्कर्ता. असलो एक महंत आसा बसवेश्वरु. हाका बसवा बसवण्णा म्हणूय आपयतात.

अभवलोकांतसून भवलोकांत देवनु आयील्या बसवण्णा वचनकारांमद्दे 'भक्ति भांडारि' म्हळेल्या गोरवाक पात्र जाल्ललो. बसवेश्वर क्रिस्तशक बाराव्या शतकाचे आदि भागांत बिजापूर जिल्याचे बागिवाडांत जल्मलो. मादर्स आनी मादलांबिका नांवांचे शैव ब्राह्मण दंपतींक हो मोगाचो पूत आसलो. नीलांबिका हागेल्या धर्मपत्नी.

कृष्णा आनी मलप्रभा न्हंयच्या संगमाक 'कूडलसंगम' म्हणतात. बागेवाडा थाकून ह्या संगमक्षेत्राक येवनु तो संगमनाथ सेवेंत रात-दीस अनन्य भक्तीन निरत आसलो. अशी आसताना एक दीस स्वप्नांत प्रत्यक्ष जावनु संगमनाथान बसवण्णा-कडे म्हळ्ळें : 'पुता, बसवा ! तुका हांव महीतलांत पसंद करतां-बिज्जळ रायान आसुच्या मंगळवाडाक (कल्याण शहराक) वच!' संगमेश्वराल्या कैंकर्य सोणु बसवण्णाक कांय करूंक इष्ट नातिल्यान तो वेगळ्याकडे गेल्लोना. दुमदुमरि संगमेश्वरान आज्ञा केल्ली दिकून तो बिज्जळ रायाल्या आस्थानाक गेलो. थंय निष्ठेन करताना त्या रायाल्या मंत्रिपदवी पर्यंत बसवण्णा पावलो. परमार्थ साधनेंत आसुच्या बसवण्णाक असलो लौकिक व्यवहाराची गांठ पडली. म्हणु हाचेन तो सुख पावलोना.

देवान आपण्याक असल्या गोंदळांत शिरकावनु ध्यान-पूजेक अवकाश ना केलो मूं ही एक व्यथा, देव प्रत्यक्ष जातलो कि ना म्हळेली कातरता, कसलेंकि एक भय ताका खोंचिता आसलें. अनेक पावटी तो मागतालो :—

"अय्या अय्या म्हणु आपयता आसा;
अय्या अय्या म्हणु मुरडेता आसा;
'ओ' म्हणूनजवे अय्या ?
केदनाय तुकाच आपयता आसा;
'ओ' म्हणासि मौनवे कूडलसंगम देवा ?"

जाल्यार संगमनाथ मात्र मौनि जावनु आसलो. आनी मायक जावनूच उरलो. जाल्यार बसवण्णा आपण्याल्या सहधर्मिणी नीलांबिके भर्सि मेळनु संगमनाथाली आराधना आनीं भक्ति वाडयता गेलो.

कल्याण पट्टणांत ह्या रीतीची बसवण्णाली अनन्य निष्ठा आनी भक्त्याचरण पळोन हजार हजार लोक आकर्षित जाले. तांचे लागी ताणे म्हळें, देवु नादप्रिय न्हंय, वेदप्रियूय न्हंय, तो केवल भक्तिप्रियूच. अस्सि जावनु सदा देवाली भक्ति करा, ध्यान करा म्हणालो. निजभक्तु म्हळ्यार एक योगी वरि. तो तपस्वी वरि एकांत वासी न्हय. सति-पति एक जावनु केलेली भक्ति शिवाक हित जाता म्हणु समझून तो रानाक वचनासि गांवांत उरता, संसारांत आसता. गांवांत जनां मद्दे तो राबता. जीवनोपायाक एक न एक वृत्तींत आसता. अस्सि रायाल्या आस्थानांत आसल्यारीय ताणे लौकिक आडंबराक विकून वचनासि पारमार्थिक जीवन चलौन अपरोक्ष ज्ञानि जावनु जीवन्मुक्त जावनु साधकांक बोधन करताच आसलो.

वोकडीन आपणात्तिले पान व झाड ना म्हणतात्ति. तशी बसवण्णान करनातिल्लो क्रांति ना. वेदांगाचे सार सरल सुन्दर कन्नडांत संगून जनवाणीकच देववाणि जावनु ऊँच काडली. साहित्यिक, धार्मिक, सामाजिक, आर्थिक आनी नैतिक-ह्या सर्व प्रकाराचेय क्रांतीक वाट जालीं बसवेश्वराली करणी.

महाविभूति बसवण्णाले जन्मकाळा पासून भिन्नाभिप्राय आसा जाल्यारीय लिंगैक्य काल क्रिस्त शक 1167-68 म्हणचे विषयांत दोन अभिप्राय ना देकून 1966 ईसवींत तागेलो आटवो शतमानोत्सव सर्वत्र आचरण जाल्लो. त्या वेळा समस्त कन्नड लोकाचे रत्न जावनु आसचे बसवण्णाक प्रपंचाचे सर्व विचारवंतांले मनमंदिरांत राबोका म्हळेल्या उद्देश्यान तागेल्या वेंचिल्या 108 वचनां वेगवेगळ्या भाषेंत प्रकट करोचि पद्धति बेंगळूरचे बसवसमितिन दवरली. ताजें फलस्वरूप जावनूच ही कोंकणी कृति तयार जालेली. ख्यिं ख्यिं पळयल्यारीयि थयिं थयिं बसवाचो वाली वाड्डो म्हणु आठोन आवय कोंकणीचे पावलांचेर ही कृति समर्पण करता.

हो अनुवाद प्रकट जावचाक उमेद आनी श्रम घेतिल्या श्री पय्यनूर रमेश पैक हांव आभारी आसा. हें प्रकट करूंक धैर्य घेतीले केरळ कोंकणी अकादमीचे सर्व कार्यकर्त्यांकिय हाजें सुन्दर मुद्रण केलेल्या ज्योति प्रिंटर्साकिय मेगेलो धन्यवाद आसा. हो अनुवाद प्रप्रथम कन्नड लिपीन पंचकादायि मासिकेंत खंडशः प्रकट केलेल्या आत्मीय बी. वी. बाळो मामाक आनी हाका प्रोत्साहन दिलेल्या बसव समिती, बेंगळूर हांकांय मेगेली हार्दिक कृतज्ञता अर्पण करतां.

—एम. माधव पै

# प्रकाशकालीं उतरां

केरळ कोंकणी अकादमीचें इकुणीसावें कोंकणी प्रकाशन आतां तुमच्या हातांत आसा. हें बसवेश्वराले वचनसंग्रह कोंकणी उलौंच्या सगल्यांक आवडटले अशी आमी लेकतात. साहित्यिक दृष्टीन पळयल्यार वचनसाहित्य कोंकणींत एक मूळ घेवक ना जाल्यारीय शेजारचे कन्नड साहित्यांत ताज्यान जालेली क्रांति आमी जाण जावका जालेलीच. उच्च नीच भावना, आचारां पासून गैर समज, अनाचाराच्यो चुक्यो हें सर्व उतरांतल्यान दाखोन दीवनु समाजांतूच परिवर्तन हाडूंक बसवेश्वराक जाला.

पंचवीस वर्सां फाटों कन्नड लिपीन तयार जालेली ही कृति आतां देवनागरी लिपीन प्रथम जावनु भायर येता. शिवमोग्गांत आसुचे श्री एम. माधव पै हांणी कोंकणीन जायते बरयिले आसा आनी तांणीच हो अनुवाद केला. बेंगळूरचे बसव समितीन हाजें प्रकाशनाक दिलेल्या अनुदानाक कोंकणी वाचक ऋणी उरतले. त्या खातिर ताजे अध्यक्ष श्री. बी. डी. जत्ती हांकां (ते भारताचे उपराष्ट्रपति आसले) आमी आभारी.

अकादमीक चड साहित्य सेवा करचो शक्ति दिवचाक वाचकां लागीं मागतात.

—केरळ कोंकणी अकादमी

# बसवेश्वर वचनामृत

(1)

उदकांत भितरि निपिल्या उज्या वरि
चांदिण्या रसाच्या रुची वरि
फुलां कळ्यांतल्या सुवासने वरि
चेलियेल्या प्रीति वरि
कूडल संगम देवा तुगेली रीति ।।

(2)

थयि थयि पळयल्यारि थयि थयि तूंचि देवा
सर्व विस्ताराचें रूप तूंचि देवा
विश्वतो चक्षु तूंचि देवा
विश्वतो मुख तूंचि देवा
विश्वतो बाहु तूंचि देवा
विश्वतो पाय तूंचि देवा
कूडल संगम देवा ।।

(3)

जगा विस्तार, मेघा विस्तार
विस्तारा पेक्षां विस्तार तुजें विस्तार
पाताळाचेय पेलतां तुगेलें श्रीचरण
ब्रह्माण्डा पशि पेलतां तुगेलें श्रीमुकुट
अगम्य अगोचर अप्रतिम लिंग !
कूडल संगम देवा, तूं मेगेले
हानारि येवनु सूक्ष्म जालो ।।

(4)

देवु एकलो; नांव हजार
परम पतिव्रतेक भर्तारु एकलो ।
अन्याक मातें बाग्वयल्यार
नांक-कान कातरीत;
हजार देवालें उष्टें खातल्याक
कसलें सांगचें कूडल संगम देवा !

(5)

पाड पळ्ळेले कडेन, गांवचे वाटेरि
तळ्यांतु, बावितु, फुल-झाडा रुका मुळांतु
गांवां मद्दें, चार मार्ग पेण्टा जाग्यारि
विशाल वडा रुका मुळांतु, घर करून
धारेचि म्हशि, चेण्डु गुग्बार बाळांति
चेल्लि, ठहक्कल म्हणु धरनु खातले धूवनु खात्तले
मारय्या, वीरय्या, खेचरगामी, अंतर-बेंतर
काळय्या, धूळय्या, केतय्या म्हळेले
शम्बरि बुडकुळ्यांक शरण म्हणतल्यांक
दडु पावनावे कूडल संगम देवा ?

(6)

तूवें दया केल्यारि सुक्के रुकाक अंकुर फुटतात
तूवें दया केल्यारि गुड्डो फातरूय दुद्दळ जातात
तूवें दया केल्यारि विष अमृत जाता
तूवें दया केल्यारि सर्व प्रति पदार्थ
मुकारि आसतात कूडल संगम देवा ।।

(7)

भरवस दवरनाति, विश्वास करनाति,
नुस्तींच आपयताति
भरवस दवरूंक कळनातिलें हे लोकाचे जन !
भरवस दवरनु आपयल्यारि
'ओ' म्हणावे शिवु ?
भरवस दवरनासि, विश्वास दवरनासि
नुस्तींच आपयतल्यांक
आश्रय चुकोनु 'रड' म्हणतलो
कूडल संगम देवु ॥

(8)

नादप्रियु शिवु म्हण्टात—शिवु नादप्रियु न्हय
वेदप्रियु शिवु म्हण्टात—शिवु वेदप्रियु न्हय
नाद केल्लेले रावणाक अर्ध आयुष्य जाल्लें
वेद वाच्चोले ब्रह्मालें बोड एक गेल्लें
नादप्रियु न्हय, वेदप्रियु न्हय
भक्तिप्रियु कूडल संगम देवु ॥

(9)

भुंयिचेरि एक भारी व्हड दुकान दवरून
व्यापारि बसलो महादेवु शेट्टी
एक मन जाल्यार तुरंत उलयता
दोन मन जाल्यार उलयना
—कासाक सल्वना ?
—अर्ध कासाक गेल्वना ?
बुदवंतु पळे आम्मा, कूडल संगम देवु ॥

(10)

कामु कसल्याक लिंगप्रेमियाक ?
क्रोधु कसल्याक शरणवेद्याक ?
लोभु कसल्याक भक्तिलाभ इच्छा पावतल्याक ?
मोहु कसल्याक प्रसादवेद्याक ?
मदमत्सर आसिल्याक हृदयशुद्धि खंय ?
शान्त आसिल्यालागी आसता
कूडल संगम देवु ।।

(11)

धरां भितर घरा यजमानु आसा कि ना ?
दारवन्दालागि तण किरलेनु
घरांत धूळि भरली तरि
भितर यजमानु आसा कि ?
आंग भर पट्यो, मन भर विष
धरां भितर यजमानु ना कूडल संगम देवा ।।

(12)

हांवें चलचो क्रमु एकु
हांवें उलोवचो क्रमु आनी एकु
माजांतु कांयीच शुद्धि ना पळे
उतरां वरि कर्तव्य केल्यारि
कूडल संगमु भितर आसता ।।

(13)

चकोराक चान्दीण्याची चिन्ता
कमळाक सूर्योदयाची चिन्ता
भंवराक परमळीक म्होवाची चिन्ता
माका कूडल संगम देवालो
उडगासु करची चिन्ता ।।

(14)

चन्द्रोदयाक समुद्र भरून येता
चन्द्राक क्षीण-क्षीण जाता
चन्द्राक राहु आड येता म्हणु
समुद्रान बोब घाल्या कि ?
समुद्राक मुनीन आपोशण करताना
चन्द्रु आड आयला कि ?
कोणाक कोणय ना; वायटाक स्नेह ना
जगत्याक बन्धु तूंचि, सायबा
—कूडल संगम देवा !

(15)

दुर्बळि गाय चिकलांत पडली तरि
पाय धाडावचे शिवाय गति आसा ?
तूजे लागी माका तांडी सायबा
पशु हांव, पशुपति तूं
चोरनु खात्तलो म्हणु माका धरनु मारनासि
आनी स्वामी, तुका सोवनासि
करि, कूडल संगम देवा !

(16)

मेगेलें देह दण्डु करि
मेगेलें बोड बुरडो करि
मेगेलि शिरो तंति करि
मेगेले बोट काड्डी करि
बत्तीस राग आलाप करि
हरद्याक लावनु वाजि
—कूडल संगम देवा !

(17)

प्रीति नात्तिलि पूजा, स्नेह नात्तिलि चंदाय
ती पूजा, ती चंदाय
चित्राचे सौन्दर्य पळैया
फटोवनु घेतल्यार सुख ना।
चित्रांतलो कब्बु पळैया
चावडायल्यार रूचि ना
सत्य नातिल्यालि भक्ति तशींच मूं
कूडल संगम देवा ॥

(18)

उतरांत नामामृत भरतां
मनांत तुगेलो उडगासु भरतां
दोळ्यांत तुगेलें रूप भरतां
कानांत तुगेलि कीर्ति भरतां
तुगेले चरणकमलांत हांव येतां
कूडल संगम देवा !

(19)

विश्वासु आसा, मानवलो हांव;
पिशेलो हांव म्हळ्यारि
आंग हालोवनु पळयता तूं
मन हालोवनु पळयता तूं
धन हालोवनु पळयता तूं
हाका सवकडय भूलना जाल्यारीय
भक्तीक भुलता कूडल संगम देवु ।।

(20)

धन रेखा आसा, आयुष्य रेखा न तरि ?
भिजड्याचे हातांत चन्द्रायुध, फल कितें ?
कुरड्याचे हातांत आरसो, फल कितें ?
कूडल संगमाले शरणांक समज तरि
शिवपथ समजूं तांयि
हातांत लिंग आसूनु फल कितें ?

(21)

गालांक मिरियो पडून
होणवी आवुळच्या फुडे—
देह हाड्डां पंजीरें जावनु
दांत गळून कूर्ट मोडून
पायांक हात दीवनु बोड्डो हातां घेवनु
म्हांतारपणान चंदाय वचचें फुडे—
दुसरयाले शिताक पडचें फुडे—
मृत्यून आपोडचें फुडे—
करि पूजा कूडल संगम देवाली ।।

(22)

आज, त्या दीस, आनी एक दीस म्हणूं नाका
दीसु आजीच शिवशरणाक
दीसु आजीच हरशरणाक
दीसु आजीच कूडल संगमालो
सोडनासि उडगासु करतल्याक ।।

(23)

आमगेल्यानी निमगील्यार शुभलग्न म्हणात
राशि कूट ऋण संबन्ध आसा म्हणात
फायच्या पशि आयचो दीस चांगु म्हणात
चन्द्रबल तारावल आसा म्हणात
कूडल संगम देवालो पूजेचें फल
तुमका आसा पळैयात ।।

(24)

उलयल्यार कितें ? रागु ताण्डल्यार कितें ?
वाजील्यार कितें ?
त्रिविध 'दासोह' नातिल्ले पर्यंत !
उलयनावे मोरु ? राग ताण्डनावे तंति ?
वाजीनावे कीरु ?
भक्ति नातिल्यांक मानवना
कूडल संगम देवु ।।

(25)

व्हय रे, व्हय रे, पाप केल्लेल्या !
व्हय रे, व्हय रे ब्रह्महत्या केल्लेल्या !
एक फंता 'शरणु' म्हण, पाप सर्वंय धांवता
सर्व प्रायश्चित्ताक भांग्रा पर्वत नाका
एकल्याक शरणु म्हण
कूडल संगम देवाक ।।

(26)

मर्त्यलोकु हो ब्रह्माली टंकसाळ पळे
टंको हांगा चललो तरि थांगाय चलता
हांगाचि चलना तरि थांगा कशी चलत ?
कूडल संगम देवा !

(27)

पाप पुण्य म्हळेलें आपण्यालें इष्ट पळैया;
'बाबा' म्हळ्यार स्वर्गु;
'व्हय रे' म्हळ्यार नरकु;
'देवा भक्त जिया जिया' म्हळ्ळेलें उतरांत
कैलासु आसीलोवे
—कूडल संगम देवा ?

(28)

देवलोकु मर्त्यलोकु अशें दोन खयींच ना!
सत्य उलय तो देवलोकु;
फट्टी उलय तो मर्त्यलोकु;
आचारूच स्वर्गु, अनाचारूच नरकु
कूडल संगम देवा, तूंचि प्रमाण!

(29)

देवलोकु मर्त्यलोकु हांची सीमा
केवल शरण जावनु आसनल्याक फाव ना
मेल्ले उपरांत मेळता म्हळ्यार
कोव्वा वाळिंग चाबडायल्यावरि
कूडल संगम देवा!

(30)

लिंगांत मेळ्ळेले लिंगांत सदर्थ पावीले
लिंगांत आपण्यालो संबंध
समझलेले स्वामी!
भृत्य सर्वीनी तुमचेलागी
मागल्यार भीवनाकात!
माका मर्त्यलोकाचे महागण आसात
हें कारण कूडल संगम देवालो लोकु
वांटून घेतात तुमी ॥

(31)

जगाक आवरण करून आसा तुजी माया;
तुका आवरण करून आसा मेगेलें मन;
तूं जगाक समर्थु; हांव तुका समर्थु बाबा!
हस्ति आरस्यां भितर निपल्या वरि
मेगेल्यां भितर तूं निपला
कूडल संगम देवा!

(32)

जम्बुद्वीप नवखंड सृष्टीं भितर
आयका दोगालीं भास—
मरण ही भास देवाली
विजयु ही भास भक्ताली
सत्याचें पाज्जीलें खाण्डे उपून घेवनु
सद्भक्त जिकले पळैया
कूडल संगम देवा!

(33)

समुद्रु घन कसलो ?
तो ह्याच भुयिचेर आसा !
भूयि कशि घन ? ती
महाशेषाले फणार आसा !
महाशेषु घन ? तो
पार्वतीलया किरगुले बोटाची मुद्धि जावन आसा !
पार्वति कशि घन ?
ती परमेश्वराली अर्धांगिनी !
परमेश्वरु कसलो घन ? तो
कूडल संगमाले शरणाले
मनाच्या मुल्यांत (कोनश्यांत) आसा !

(34)

दुडवाळ शिवालय बान्दयतात
हांव कसलें करूँ ?
हांव दुर्बळु बाबा !
मेगेले पाय खांबे, देहच देवस्थान;
मात्तेंच भांगरा कलश बाबा !
कूडल संगम देवा, आयक बाबा—
स्थावराक नाशु आसा;
जंगम शिवशरणाक नाशु ना ।।

(35)

हस्ति भारि, अंकुश सान म्हणूंयतवे ?
ना बाबा, ना !
पर्वत होडु, वज्र सान म्हणूंयेतवे ?
ना बाबा, ना !
काळोख घनु, ज्योति अल्प म्हणूंयेतवे ?
ना बाबा, ना !
विसरु होडु, तुजो उडगास करचें मन
सान म्हणूंयेतवे ?
ना, कूडल संगम देवा !

(36)

ज्ञानबलान नाशु अज्ञानाक, पळैया
ज्योतीबलान नाशु काळखाक, पळैया
सत्याचें बळान नाशु असत्याक, पळैया
स्पर्शबलान नाषु लोखंडाक, पळैया
कूडल संगमालें शरणाले अनुभवान
मेगेल मनाक नाशु पळैया ॥

(37)

अस्सि तस्सि वचना तशी पांगळो करी बाबा !
घूवनु घूवनु पळयना तशी अन्धु करी बाबा !
दुसरें कांय आयकना तशी केप्पो करी बाबा !
तुगेलें शरणाल्या पावलां शिवाय
दुसरे विषयाक इच्छा करनासि
उरय कूडल संगम देवा ॥

(38)

सिंहासनार चळ्ळेल्या सूण्या म्हणके
पळयल्यार सोडना फुंडलो स्वभावु
लाशि, लाशि ! मन हें विषयांक चसता आसा
शिवा, तुगेलें ध्यान केन्नाय उडगास करीनु
मेगेल्या यजमान, कूडल संगम देवा !
तुगेलीं पावलां ध्यान करचे तशी दया करी
सेरग धरून मागतां, तुगेलें धर्माक ।।

(39)

देह तुगेलें म्हळ्ळें, माका दुसरें देह ना;
मन तुगेलें म्हळ्ळें, माका दुसरें मन ना;
धन तुगेलें म्हळ्ळें माका दुसरें धन ना
हीं तिनींय तुगेलीं म्हळ्ळेले उपरांते
माका दुसरो विचार आसावे
कूडल संगम देवा ?

(40)

चरतले सरपाक भीना;
जळचे उज्याक भीना;
खडगाचे धारेक भीना !
एकाक भितां, एकाक माकशि सरतां
परस्त्री परधन ह्या जोडीक भितां
फूडे भय नातिल्लो रावणु कितें जालो ?
भितां आबा, कूडल संगम देवा !

(41)

न्हयितु न्हातल्ले भावांनो
न्हयितु न्हातल्ले स्वामीनो
सोडात, सोडात परस्त्री संगु सोडात,
परधनाची आशा सोडात !
हें सोणासी न्हयितु न्हाल्यारि
होडि न्हयि वत्ता कूडल संगम देवा !

(42)

खंचार जालें ताजेर मन
इच्छा पावल्यारि आण,
तुजाण-तुगेले प्रथमले आण !
वर वधूंक महादेवि म्हण्टा
कूडल संगम देवा !

(43)

हस्तीचेर बैसून गेल्लींवे तुमी ?
घोड्याचेर बैसून गेल्लींवे तुमी ?
कस्तूरी कुंकुम लावनु गेल्लींवे तुमी ?
सत्याचें स्थिररूप समझनासि गेल्लींवे तुमी ?
सद्गुणा बियो वोवनु
वाडयनासि गेल्लींन्हंयवे तुमी ?
अहंकाराचें मदगजा वयरि
विधीक लक्ष्य जावनु गेल्लीं न्हंयवे ?
कूडल संगम देवाक समझनासि
नरकाक फाव जाल्लीं न्हंयवे ?

(44)

करून करून वायट: मन ना जालें
दीवन दीवन वायट, इष्ट ना जालें
दिवचें करचें चांग गुण आसा तरि
मेळनु वता कूडल संगम देवु ।।

(45)

मिजेरि कोपिल्याक हांव कित्या कोपचें ?
मिगेलें नष्ट कितें ? ताका लाभ कितें ?
देहा कोपु आपण्यालें होडपणाक वायट
मना कोपु आपण्यालें विचाराक वायट
घरांतलो उजो घर लासले शिवाय
वाटशा घर लासचीना कूडल संगम देवा ।

(46)

धनाची आशा ना, प्राणाचें भय ना
हें कोणाक साध्य आबा ?
चुकून आयल्यारीय संपत्ति नाका म्हण्टले नात;
प्रमादवश आयल्यारीय फट्टी उलौंना म्हण्टले नात
निराशा निर्भय, कूडल संगम देवा !
तूवें राकिल्ले शरणांक शिवाय ना ।।

(47)

लोकाचें वांकडेपण तुमी कित्या सुधारनात ?
तुमगेलें देह तुमी सुधारून घेयात;
तुमगेलें मन तुमी समाधान करून घेयात ;
वाटरांचाल्या दुःखाक रडतल्याक
मानु ना कूडल संगम देवा ।

(48)

वीर, व्रती, भक्त म्हणु
शिफारस घेतात-आयका !
वीर तरि वैरीन मानवुका;
व्रति तरि बायलेन मानवुका;
भक्त तरि जंगमांनि मानवुका
हें उतरांनि आपणाक समझल्यार
मागिल्ली पदवी दिता कूडल संगम देवु !

(49)

तृप्ति करता, लांछनाक शरणु म्हण्टा;
लांछानाक योग्य आचरण नातल्यार ?
कूडल संगम देवा
तूं साक्षि जावनु 'छी' म्हण्टा ।।

(50)

दुद्दा व्रत, दुद्दा मासे व्रत
सायि चुकल्यारि खिचडी व्रत
लोणिये व्रत, गोड्डा व्रत-सगटय आसा;
उतराचे व्रताचांक कोणाकय पशयनी !
कूडल संगमाल्या शरणाल्यां मद्दें
उतराचे व्रताचो मादर चेन्नय्या ।।

(51)

देहाचे इच्छेक लागून मद्य मांस खातात
दोळ्यां इच्छेक लागून दुसरयांले बायलांक मेळतात
लिंग लांछनधारी जावनु फल कितें ?
लिंगाची वाट चुकून चलतल्यांक
जंगमाले तोंडांतुल्यान निंदा आयल्यार
आपयीले मारांक अपंण जावचें चुकचीना
कूडल संगम देवा !

(52)

“कित्या आयले, सौख्य म्हंयवे” म्हळ्यार
तुमगेली देहाकांति उबून वतावे ?
“बैसा” म्हळ्यार भूंयक फोण्ड पडतावे ?
प्रीतीन उलयल्यार बोड-पोट फुटून वतावे ?
दीना तरि नाका, वचचो;
गुण ना जाल्यार पाडौन नांक कातरनासि
सोडतवे कूडल संगम देवु ?

(53)

भक्तांक हात जोडचोच भक्तु
गोड उतरांचि सर्व जप
गोड उतरांचि सर्व तप
उत्तम विनयूच सदाशिवाली प्रीति, सायबा !
कूडल संगमु नशो शिवाय मानवना, सायबा !

(54)

उलौंकाच तरि मोतियां वरि उलय
माणिक्या प्रकाशा वरि उलय
स्फटिक शलाके वरि उलय
देवूच मान दिवो आनी 'व्हय व्हय' म्हणो
उतरांक सम जावनु चलना तरि
कूडल संगम देवु कशी मान दीत ?

(55)

म्हाल्गड्यांलीं उतरां भो कठिन बाबा
सदाशिव लिंगाचेर भरवंस दवरात
भरवस दवरलो तरि जिक्वनो बाबा
वोंटाक कोडु, पोट्टाक गोडु
कूडल संगमालीं वचनां
वेवा रूचि म्हणके पळैया ।।

(56)

सरपु चाबिल्याकरान उलोवोवयेत;
ग्रहाचार भरलेल्याकरान उलोवोवयेत;
श्रीमंतिके ग्रह धरलेल्याकरान
उलोवोवप असाध्य बाबा !
म्हणु दुर्बळपणाचो, मंत्रवादि गेल्लो तरि
तो उलयतलोच, कूडल संगम देवा !

(57)

दुद्दा न्हंयिक साखरे चिक्कोलु
अमृतां फेणां फळां सी
म्हालगड्यालीं उतरां;
तीं आसतानायि दुसरी बांयि खोंडून
मिट्टा उदाक पित्तल्याली गति जाली मेगेली

(58)

कूडल संगम देवा !
रान्दणींत उजो जळ्ळ्यारि राबूयेत;
भूयींच जळ्यार खयि राबचें ?
बान्दानच उदाक पिवचे कडे
वयींनच पिकें शेत खावचे कडे
बायलेनच चोरायि करचे कडे
आवसुलें चिवे दूद विष जावचे कडे
कोणा पासून फिर्याद दिवची
कूडल संगम देवा ?

(59)

दूद वासरालें उष्टें;
उदाक मासळीचें उष्टें;
फूल मूसाचें उष्टें;
कशी पूजा करचें ?
शिवा शिवा कशी पूजा करचें ?
हें उष्टें ना करूंक हांव कितें करचें ?
हाडलेलें स्वीकार करी
कूडल संगम देवा !

(60)

मारि, पिशाच म्हळ्यार दुसरें कांय न्हय, म्हळें
मारि म्हळ्यार कितें ?
दोळे चुकोवनु पळयल्यारि मारि
जीब चुकोवनु उलयल्यारि मारि
कूडल संगम देवालो
उडगासु विसरल्यारि मारि ।।

(61)

कायळो एक शिता कण पळयल्यार
आपयनांवे आपण्याले सोयरयांक ?
कुंकड एक घोटु पळयल्यार
आपयनांवे आपण्यांले दायज्यांक ?
शिवभक्तु जावनु भक्तिपक्षु ना जाल्यार
कायळ्या-कुंकडा पशी पाष्ट मूं
कूडल संगम देवा ।।

(62)

"हो कोण, हो कोण, हो कोण"
म्हणु प्रश्न नाका;
"हो आमगेलो, हो आमगेलो, हो आमगेलो"
म्हणु समज.
कूडल संगम देवा, तुगेले घरकडचो
चेरडु म्हणु समज बाबा ।।

(63)

आंग दुकौनु मना आयास पावनु
तुगेले पाय धरलेले आसातवे ?
हें उतर तुका ञळयनावें ?
कूडल संगम देवा, शिवभक्तालो दुकीयि
ती लिंगाची दूकी ।।

(64)

घोड्याचेर सात्तें धरनु येत्तल्याक पळयल्यार
नमस्कार करून पाय धरतात;
दुर्बळ भक्तान आयल्यार
"जागो ना, तस्सि वचात" म्हण्टात;
मेगेलो देव कूडल संगमु
तसल्यांक धरनु नांक कातरले शिवाय सोडतवें ?

(65)

कोपिष्टान अभिषेक धारा घरल्यार
ती रक्तधारा;
पापिष्टान फूल घाल्यार पाजिजल्लें
आयुधा घायु;
प्रीति करतल्या कोणाकय पळयनी
—मादर चेन्नय्या शिवाय !
प्रीति करतल्या कोणाकय पळयनी
—डोहार कक्कय्या शिवाय !
व्याप्ति आसिल्लो आमचो मडिवाळु माचय्या;
तुगेल्या आपत्तीक खोंचतात
कूडल संगम देवा !

(66)

"हांवें केल्लें" अशी मनांत आयल्यार
चाळोवनु पीडा दिता शिवाले डंगुर
लिंगाक करि, जंगमाक करि
"हांवे केल्लें" म्हणु मनांत दवरूं नाका
मागिल्लें दिता कूडल संगम देवु ।।

(67)

दीवनु लिंगाक पूजा केली म्हण्टात
तुमी सर्वय आयकाय—
दोन कासा व्हाण भायर सोडून
देवळां भितर वचून मनांत पायिं पडताना
आपण्यालें व्हाणेचें ध्यान शिवाय
देवालें ध्यान ना ।
राकून दवरलेंवें धन ?
संसारांत पडचें चुकचोना
कूडल संगमाल्या शरणां खातिर
व्यय करात !

(68)

हुत्याक मारल्यार सरपू मरतावे सायबा ?
घोर तप केल्यार कितें ?
अंतरंग शुद्धि नातील्याचेर कशें
भरवस दवरची, कूडल संगम देवा ?

(69)

व्रत जाय शरणांक 'परधन इच्छा करना' म्हणचें
छल जाय शरणांक 'परस्त्रीयांक इच्छा करना' म्हणचें
'इतर देवांक बाग्वना, लिंग-जंगम एकच' म्हणचें
'प्रसादु सत्य' म्हणचें हें व्रत नातील्यांक
मानवना कूडल संगम देवु ।।

(70)

व्याधालो एक सोसो
एक दुडवाक निमगीतात;
भूमिपाला मडेंय
एक फोपळा मोलाक ना;
सोस्या पसि निकृष्ट मनुष्य जीवन
भरवस दवरात कूडल संगमाचेर ।।

(71)

आपण्यालें अश्रयाचें रतिसुख
आपण्यान खावचें जेवण
तें दुसरयालें हातान करोवयेतवें
आपण्याल्या लिंगाक करची नित्यपूजा
आपण्यान करची शिवाय
अन्याचे हातान करोवयेतवें ?
नुस्तींच उपकाराक करतात शिवाय
तुका खंय समजतात
कूडल संगम देवा !

(72)

दूषकान राज्य दिल्यारीय
आशा करुन तागेले हातामुळांत आसूं नाका
'मादरू' शिवभक्तु जाल्यारीय
तागेले हाता मुळांत भृत्यु जावचें
भारी उत्तम पळैया ।
कामेलि जावनु आसुचें
भारी उत्तम पळैया ।
रांटी पाल्लो ह्राणु चिडकींत भजून
मेळनु आसुचें कूडल संगमाले शरणाक ।।

(73)

सरपाचे तोण्डांतलो बेबो
उन्नचे मूसाक आशा पांवता ।
फाशीरि चडतलो चोरू दूद-तूप पीवनु
कितले दीस वांचत ?
पडून वचचे देहाचे भरवस दवरून
फट्टी उलोवनु पोट भरतल्यांक
कूडल संगम देवु
मानवना पळैया ।।

(74)

इन्द्रिय निग्रह केल्यारि ताच्यान
दोष जातात;
मुकरि येवनु पंचेन्द्रियाँ उपद्रव दितात;
बायल—बामणालें रतिसुख
भोगोपभोग विलास—हें कांय
सोडलवे सिधु ब्रल्लाळान ?
तुजो स्पर्श आसुन्य परधन—परसतींक
आशेल्यारि तुगेलीं चरण दूर दूर
कूडल संगम देवा !

(75)

पायाक बान्दिल्लो गुंडु;
गळ्याक बान्दिल्लो बेंडु;
पोंवच्याक दोना गुंडु;
बुडच्याक दोना बेंडु;
असलो संसार समुद्र पार करोवनु
राकरे कालांतका—कूडल संगम देवा !

(76)

पापीलें धन प्रायश्चित्ताक पावत;
सत्पात्राक पांवना !
सूण्यालें दूद सूण्याक शिवाय
पंचामृतांक जायना !
कूडल संगमालें शरणांक शिवाय
करचें व्यय व्यर्थ पळैया !

(77)

जेवचें वाट्टें विगड काशें न्हय;
पळोवचि आरसी विगड काशें न्हय;
भाण्ड एकच, भाजन एकच;
थळथळ्यारि आरसी म्हण्टात;
समजल्यार शरणु, विसरल्यार मनीशु
विसरनाशी पूजा करी कूडल संगमालो ।।

(78)

धार धरली म्हणु वल्लें जायना
धार विसरली म्हणु कर्पना
अर्थना अर्थ ना लिंगार्चनेक
जंगमांक धार धरल्यार स्थावर फुलता
कूडल संगम देवा !

(79)

फातरा सर्पाक पळयल्यारि दूद रकया म्हण्टात
निजसर्पाक पळयल्यारि जिवशी मारा म्हण्टात
जेवतल्ले जंगमान आयल्यार वच म्हण्टात
जेवनातिल्या लिंगाक नैवेद्यु करा म्हण्टात
कूडल संगमाले शरणांक पळोवनु
उदासीन जाल्यारि
फातरू लागील्या कीड्या वरि जातात पळैया ।।

(80)

द्वैत वाचि, ना अद्वैत वाचि
ताज्यान कितें जायत सायबा ?
आमगेले शरणाली हुनसाण निवळची तांय
स्थावर जंगम एकच म्हणु समजुचे तांय
केवल उतराचे सरान कितें जाता
कूडल संगम देवा ?

(81)

फाल्लें येवचें आमकां आजीच येवो;
आजि येवचें आमकां आतंच येवो;
हाका कोण भिता, कोण माक्शी सरता ?
'जातस्य मरणं ध्रुतं' म्हळेलें आसताना
कूडल संगम देवालें लिखित
चुकोवच्याक हरि-हर-ब्रह्मांकय जांवना !

(82)

योग्यु म्हणोन पांच दीस वांचल्यार कितें ?
—चार दीस वांचल्यार कितें ?
—तीन दीस वांचल्यार किते ?
—दोन दीस वांचल्यार कितें ?
"जीवितं शिवभक्तानां । वरं पंच दिनानि च
नाजकल्प सहस्रं तु । भक्तिहीनं तु शंकरी"
—म्हणटाना कूडल संगमाले शरणाले वचनांत
योग्यु म्हणोन एक दीस वांचल्यार कितें ?

(83)

कृषि कामाचें घोळपान जाल्यार कितें ?
जीव सुकोवन हाडून 'दासोहं' करतल्ले
परम सद्भक्तालीं पावलां दाखय माका ।
कित्याक ? तागेलें तनु शुद्ध, मन शुद्ध
रीति शुद्ध, उलवप सर्वंय पावन ।
ताका उपदेश केलोलोच परम सद्गुरु
तसले सद्भक्ताले घराकडे कैलास म्हणु वचून
थांगा लिंगाचंन करचे जंगमच जगत्पावन
अस्सि आसतल्याक हांव पूर्ण भरवसेन
'नमो नमः' म्हण्टा कूडल संगम देवा ।।

(84)

देवा, देवा, सांगणी आयक देवा,
ब्राह्मण धरनु म्हारू तांय
शिवभक्त सर्वंय समान म्हण्टा;
देह बांधिल्ले धरनु मांस खांसल्ले तांय
संसारांत आशिल्ले सगटय एकच म्हण्टा;
हें अशीच म्हणु भरवस दवरता मेगेलें मन
हें सांगिल्ले उतरांत तिलांश तांय
संदेह आसल्यारि
दांत दिसुंवरेन नांक कातरि
कूडल संगम देवा !

(85)

गोत्र नांव निमगील्यारि
उतर चुकयनाशी नुतच आसता कित्याक ?
बोड मुळां घालनु
भूयिचेर बरयतात कित्याक ?
हें कसलें सायबा ?
गोत्र-मादर चेन्नय्या
डोहार कक्कय्या म्हळ्यार कितें कूडल संगम देवा?

(86)

जेवणांतु न्हेसणांतु क्रमु चुकलो म्हण्टात
दिवचे-घेवच्यांतु कुल सोदीतात
कसि आबा तांकां भक्त म्हणचें ?
कसि आबा तांकां युक्त म्हणचें ?
म्हारीन शुद्धोदक न्हाल्यावरि जाल्लें बाबा
कूडल संगम देवा !

(87)

व्होलें दिसचें शिवाय पिड़ाक आश्रय ना
उदका थेंब्याचो व्यवहार एकूच
आशा, आमिष, रोष, हरूष, विषय सर्वय एकच
कसलेकि वाचून, कसलेकि आयकून किते फल ?
योग्य कुलांत जाल्ललो म्हणचाक कसलें दृष्टांत ?
'सप्तधातु समं पिंडं । समयोनि समुद्भवं
आत्मजीव समुत्पन्नं । वर्णानां किं प्रयोजनं'
लोखंड तापोवनु कम्मारू जालो, उम्बोळनु मडवाळु जालो
मग्गु वीळनु सायळ्यांचो जालो
वेदु वाचूनु ब्राह्मण जालो
कानांतल्यान जल्म घेतिल्ले आसातवे लोकांत ?
देकून कूडल संगम देवा
लिंग वैशिष्ट्य समजललोच कुलजु ।।

(88)

शेट्टी म्हणूं सिरियाळाक ?
धुवणेचो म्हणूं माचय्याक ?
म्हारु म्हणूं ककय्याक ?
मादरु म्हणूं चेन्नय्याक ?
आपण वैदिकु म्हळ्यारि
कूडल संगमु हासता आबा !

(89)

जिवशी मारचो मदिगु, अळशीक खांवचो म्हारू
खंचे कुल तांगेलें, खचे कुल ?
सर्व जीवांक बरेपण जावो म्हणु इच्छा पांवचे
कूडल संगमाले शरणच कुलज ।।

(90)

व्यासु धीवरांचीलो पूतु;
मार्कण्डेयु मातंगीलो पूतु;
मण्डोदरी बेब्यालो धूव !
कुल सोदूनाकात–भो कुलपेक्षा फुडें
कितें जावन आशीलीं ?
साक्षात अगस्त्यु कुंभसंभवु;
दुर्वासु चम्मारांचो;
कश्यपु कम्मारु;
कौण्डिन्य ऋषि तिन्नीय लोकांक कळचे वरि
काप्पणीचो पळैया भो !
कूडल संगमालें वचन अशी सांगता
मांस खावचो जाल्यारीय शिवभक्तु कुलजु ।।

(91)

कुलगर्वाक झगडें करून जगमांत भेद करता;
फल कितें ? नित्य लिंगार्चना प्रायश्चित्त;
छलवर्गाक झगडें करून लिंग भेद करता
राकची गाय गोल्यांक धांवडावच्या वरि
आंगान भक्त जाला, मनान संसारि जाला
कूडल संगम देवा !

(92)

भूंयि एकोच—म्हाराले बस्तीक
आनी शिवालयाक
उदाक एकच—शौचाक आनी आचमनाक
कुल एकच—आपण्याक समजलेल्याक
फल एकच—षड्दर्शन मुक्तीक
रीति एकीच—कूडल संगम देवा
तुका समजलेल्याक ।।

(93)

परबेक हाळ्ळा आंगवणाचो कांबळे बोकोडु;
तोरणाक हाळ्ळलो आंकरो ताणे चोरलो !
जिवशी मारतात म्हणु समजनाशी
तापचें पोट राकता आसा
तो त्याच दिसा जाल्ललो, त्याच दिसा पावीलो
शिवशी मारलेले उरलेले
कूडल संगम देवा !

(94)

उत्तरांचे सांगणेक अनुसरून तुका
जिवशी मारतात, हे बोकडा तूं रड!
वेद वाचिलेल्या मुखार रड!
शास्त्र आयकलेल्या मुखार रड!
तूवें रडलेलें योग्य करता कूडल संगम देवु!

(95)

दया नातिल्लो धर्मु कसल्याक आबा?
दया जांवका सर्व प्राणियांचेर;
दयाच धर्माचें मूल सायबा!
कूडल संगमु तें शिवाय
आयकना आबा!

(96)

चोरि कर नाका, जिवशी मार नाका
फट्टी उलो नाका, कोपू नाका
दुसरयां लागी असह्य पावनाका
आपण्याली शिफारस कर नाका
मुखारीच निन्दा कर नाका
—हेंच अंतरंग शुद्धि, वहिरंग शुद्धि
हेंच आमचे कूडल संगम देवाक
प्रीति करची रीति ॥

(97)

मारल्यारि मार हात्ता वयरि
सोवल्यारि सोवे हात्ता वयरि
फुळ्ळो जल्मु कसलोय जावनु आसो;
आयचे सुख हात्ता वयरि
कूडल संगम देवा तुका
पूजा केल्लेले फल हात्ता वयरि !

(98)

आपण्या पशी सानु ना
शिवभक्ता पशी होडु ना
तुगेले पाय साक्षी, मेगेले मन साक्षी
कूडल संगम देवा, माका हेंच श्रेष्ठ !

(99)

फोप्पायिल्यांक हांव राकिल्ले म्हण्टा;
सोविल्यांक मेगेले बन्धु म्हण्टा;
निन्दा केल्लेल्यांक आवस-बापूस म्हण्टा;
विरोध केल्लेल्यांक यजमानु म्हण्टा;
जाळ भोगतल्यांक भाव म्हण्टा;
शिफारस करतल्यांक माका भांगरा शूलान
गळो कातरचे म्हण्टा—कूडल संगम देवा !

(100)

न्याय निष्ठूर हांव, दाक्षिण्याचो न्हय;
लोकविरोधि शरणु, कोणाकय भित्तलो न्हय;
त्या कूडल संगम देवाल्या
राजतेजस्सांत आसचो हांव ।।

(101)

देहाचें दुकीक भीवनु 'राखया' म्हणा;
वांचचे उपायाक भीवनु 'दिया' म्हणा;
'यद्भावं तद् भवति'
—दुःख येवो, सुख येवो जाय नाका म्हणा;
तुका राकना, मनुष्याल्या मागना
आण, तुजें आण, कूडल संगम देवा !

(102)

भांगरांत एक कणु, कापडांत एक सूत
आजीक फायक जावका म्हळ्यार
तुजें आण, तुजे म्हाल्गड्यालें आण
तुगेले शरणांक शिवाय
दुसरें हांव नेण
कूडल संगम देवा !

(103)

हांव आरंभ करतां गुरुपूजेक
हांव व्यवहार करतां लिंगाचेंनेक
हांव परासेवा करतां जंगम 'दासोहाक'
हांवे खंचे खंचे कर्मं केल्यारीय
त्या त्या कर्मा फल भोगु तूं दिता
म्हणु माका कळनू आसा
कूडल संगम देवा !

(104)

आपण्यालें जनांनि मानवून माका
भांगरा शूलाचेर चडयलो शिफारस करून
दोन वांट्यान हांव फुगलो मेज्या शिफारसेन
स्वामी, तुजो आज्ञा लागली पाज्जीलें खड्ग जावनु !
अय्यो ! दूकि जालिल; सहिसूंक असमर्थु
कूडल संगम देवा ! तूं माका
चांगु जाल्यारि मेगेल्या शिफारसेक
आड योगा धर्मी !

( 05)

ब्रह्म पदवि नाका; विष्णु पदवि नाका;
रूद्रा पदवि नाका !
आनी खंचीय पदवि नाका !
कूडल संगम देवा तुगेले
सद्भक्तांगेले पावलांची
असाध्य महापदवि दया करि देवा !

(106)

भक्ति नतिल्लो दुर्बळो हांव —
कक्कय्यालें घराकडे मागलो;
चेन्नय्यालें घराकडे मागलो;
दासय्यालें घराकडे मागलो;
सर्व म्हाल्गड्यांनीय मेळनु भक्तीची
भिक्षा दिल्यारि मेगलें आयदन
भरलें, कूडल संगम देवा !

(107)

बसवा, योरे ! मर्त्यलोकांत भक्त आसातवे, सांग ?
आनी कोणय ना, आनी कोणय ना
हांव एकलोच भक्तु
मर्त्यलोकाचे भक्त सर्वय जंगम
लिंग तूंचि बाबा ! कूडल संगम देवा !

(108)

भक्तीचे भुयिचेरि
गुरु रूपान बीं अंकुरलें;
गुरु रूपाचें बीं जात्तरि
लिंगाचें पान जालें;
लिंगाचें पानांचेर
विचाराचें फूल जालें;
आचाराचो कांकडो जालो;
निष्पत्तीचें फळ जालें;
निष्पत्तीचें फळ देंट चुकून पडताना
कूडल संगम देवान
'माका जाय' म्हणु काडून घेतलें!





क्रि. श. 1131 थाकून 1167 तांय जीवन केलेले एक आत्मीय नेतां आसलो बसवेश्वर. ताका बसवण्णा म्हणूय उळदिताय. ब्राह्मण कुलांत जल्मलो देकून वेदांत आनी वेदांतांत तो प्रवीण जालो. पुण जातिभेदाजो प्रभाव समाजांत अन्याय चलयता पळोवन ताणे 'अनुभव मंटप' नांवांची एक संस्था उबारली. आपण्याले दर्शन आनी आदर्श ताणें 'वचन' रूपान उजवाडायलें. कन्नड साहित्यांत हें वचनसाहित्य व्हड महत्वाचें आसा. त्या साहित्याची वळख कोंकणी वाचकांक दिवचोच ह्या पुस्तकाचो हेतु.

मूळ कार्कळचे आसात श्री. एम. माधव पै. आतां शिवमोगांत (कर्नाटक) राबून आसात ते. कन्नडांत विद्वान, डिप्लोमा आनी एम. ए. पदवी जोडिल्ले श्री. पैन हिन्दींत साहित्यरत्न बिरूदय जोडलां. 'पंचकादायि' पत्रिकेंत हांणी खूब बरयलां. हांचें हें पयलें कोंकणी पुस्तक आसा. बसवेश्वरालें आठशीं वर्साची पुण्यतिथी वेळार कोंकणीक रूपांतर केलेलीं 108 वचनां आतांच पुस्तक रूपार भायर येता. बेंगळूरचे बसव समितीचो पालव ह्या प्रकाशनाक उपलब्ध जाला.


## केरळ कोंकणी अकादमी प्रकाशन

मोल : 10 रुपया

ISBN 81-85367-17-5